# ज्ञानप्पाना

कृष्ण भक्त मलयाळी कवी

पून्तानम

भाशांतर

आर.के.राव, एम.ए.



प्रकाशक

कोंकणी भाषा इन्स्टिट्यूट

पालारिवट्टम, कोची - 682 025

केरळ

श्री गोकुलदास प्रभू हांकां
मायेमोगान आर.के. राव
6.7.2004

# ज्ञानप्पाना

## पून्तानम

भाशान्तर

आर.के.राव, एम.ए.



प्रकाशक

कोंकणी भाषा इन्स्टिट्यूट

पालारिवट्टम, कोची - 682 025

केरळ

कोंकणी भाषा संस्थान ग्रंथमाळ १२

ज्ञानप्पाना : भाशांतर

भाशांतर करपी : आर.के. राव

प्रकाशक : कोंकणी भाषा संस्थान
कोची-682 025, केरळ.

पयली उजवाडावणी : २००४

छापपी : वियानी प्रिंटिड्स, एरणाकुलम

टायप सेटिंङ् : बुक क्राफट, चेरानल्लूर

प्रती : ५००

मोल : रु. २०



Konkani Language Institute Series

Njyanappana : Translation

Translator : R.K. Rao

Publishers : Konkani Language
Institute,Kochi-682
Kerala.

First Edition : 2004

Printed at : Viani Printings, Ernak

Type setting : Book Craft, Cheran

Copies : 500

Price : Rs. 20





# परिचय

तामील कवी तिरुवळ्ळुवर, हांचे काव्य तिरुककुरळ कोंकणीत भाशान्तर केलां. तें वाचून म्हजे मित्रानी आशा वाळगीली कि हांव मलयाळ्म भासेचे अमोल काव्य 'ज्ञानप्पाना' हाचें कोंकणींत भाशातंर करूं. तांचे मागणीक लागून मलयाळ्म भासेचे कवी पूंतानम हांचे काव्य ज्ञानप्पानाचें कोंकणींत भाशान्तर करून सादर करतां.

म्हजे दोस्त पाठकगण हें वाचून 'पूंतानम' कवीचे भक्ती भावाचें आस्वादन करतले अशें आशा बाळगीतां.

ह्या यत्नांत म्हाका सहकार दिल्लेल्या सर्वांकय हांव आभार मानतां.

कोची - 25 आर.के. राव
1-7-2004

# पूंतानम आनी ज्ञानप्पाना

'पूंतानम' ज्ञानप्पाना काव्य ग्रन्थाचे कवी कैरळी साहित्याचे कृष्ण भक्त शिरोमणी सात. 'पूंतानम' कवीचे धराचें नांव आसा. कवीचे थेट नांव कोणाकूय कळना. ते रळचे ब्राह्मण जातीचे 'नंपूतिरी' आसात, देखून ते 'पूंतानम' नंपूतिरी नावान कीवंत जाले.

कवीचें घर केरळचे मलबार प्रदेशाचे 'वेंळुवनाड' गावांत आशिल्लें. ते क्रिस्तावं र्श १५३५-१६२५ हांचे मदें जीवन करताले, अशें समजून घेतात.

कवी पूंतानम मलयाळी अध्यात्म प्रवण काव्याचे एक म्हत्वाचे प्रतिनिधी सात. 'ज्ञानप्पाना' पूंतानम कवीची सर्वाधिक मनोहारी काव्य आसा. लळित कोमळ नी प्रवाही भासेंत रचल्लीं तांची हीं भक्ति गीतां अनन्य साधारण आसात. तांत वीचे स्वानुभवाचें मंथन जालां. कवीनी आपले ह्या सुभग रचनेनं केरळचे प्राचीन वितेंत म्हत्वाचे स्थान मेळविल्लें आसा. ते स्वत : शास्त्री, पंडित न्हंय आशिल्ले. ते ड कृष्ण भक्त कवी आशिल्ले. तांचे ह्या भक्ति - काव्यांत आंतरीक तळमळ आनी ल सदृश निर्व्याज मनोहर भाव आनी गुणानी तांचे दोषांचेर मात केल्ली आसा.

ज्ञानप्पाना काव्यांत मनीशाची दैवाधीनता, जगताचें माया रूप आनी ईश्वराची ला - हांचे कवीनी विस्तारान वर्णन केलां. ह्या प्रकाराची कविता रचपी कवी नित्य ध्यात्म चिंतनांत मग्न आसचें हें स्वाभावीकच आसा.

कवीचें हें युग प्राधान्यान भक्ती आनी आध्यात्मीक कवितेचें युग आसा. ह्या गाचे कवितेंत कवीची उत्कट अनुभूती अत्यन्त कलात्मक रूपान प्रकट जाल्या. कवी रळचे गुरुवायूर देशाचे भगवान श्री कृष्णाचे श्रेश्ठ भक्त आशिल्ले. केरळांतले ाविक जनता सकाळीं संध्या काळीं खूब भाक्ती भावाना गायत आसता.

हें काव्य 'पाना' नावांचे मलयाळी काव्य छंदात रचलां. देवी मंदिरांत स्तुती तांची एक रीत चलता ताका 'पाना' म्हणतात.

शुद्ध मलयाळम भास, सरळ कोमळ पदावली तथा सरस प्रभावात्मक शैली ह्या व्याचे खाशेलपण आसा. हें मलयाळम साहित्याचें एक अमोल रत्न आसा.

# ज्ञानप्पाना

## (गिन्यानाचीं पदां)

स्तुतीः

१. कृष्ण कृष्णा मुकुन्दा जनार्दना !
कृष्ण गोविन्द नारायणा हरे !
अच्युतानंद, गोविन्द, माधवा !
सच्चिदानंद नारायणा हरे !

मंगलाचरणः

२. गुरू देव सतत कृपा कर
हरि नावां जिबेर सदा खेळत आसचें म्हण
तें आमकां केन्नाय सोडून वचना आशिल्लें
हो आमचो नरजल्मु सफळ जावूं घेवपाक

कौतुक लीलाः

३. कालपर्यंत जे घडले त्याचो अर्थ समजत नाहीं,
आनी फाय कितें घडतलें, तेंवूंय समजना !
४. आज सुंदर दिसचें हें शरीर,
खंयच्या क्षणार नश्ट जातलें, कोणाक कळना !
५. नित्य भेट जावंचे मनीश
दिसता दिसता दिसना जातात, ही तुजीच लीला आसा.

६. दोन चार दीस भितर एकल्याक
पालकीत चडून भोवंडायता तूंच

७. राजा म्हराजाचे हातांत देखता देखता
भिकेचें करटें दिता तूंच

अधिकृत भेद :

८. पळयताच हें समजतात काय जन,
पळयल्यारूय समजनात काय जन.

९. दिसपा सारके काय सत्य उरचीना,
हें पयलेच समजतात कांय जन.

१०. मनीश वर्गांतूच भिन्न प्रकाराचे,
मनाचे मनीश आसात म्हण समजून धेयात.

११. चडान चड ज़न संवसार समजून घेवोत,
देखून शास्त्र भिन्न भिन्न रीतीर समजायता.

१२. कर्माचे अधिकारी मनीशांक
शिकपाक कर्मशास्त्रां आसात.

१३. सांख्य शास्त्रां आसात, खूब तरांचे योग
अनेक आसात, तें सर्वय तशें आसता.

तत्व विचार :

१४. संवसार सागराचे भोंवर्यांत, पडून
हात पाय मारून बेजार जाल्ले मनीशाक

१५. बुदवंत म्हन्तानी एक परम,
सत्याचें मार्ग समजायलां.

१६. सस्ततायेन मोक्ष मेळपाक,
कान दिवन आयकात सगळेय.

१७. सर्वय जनांक वंदनांत घालता,
कर्म एक म्हण जाणूक जाय.

१८. आमकां दोळ्यांक वा मनाक दिसचो हो संवसार
एकूच ज्योतीचें म्हास्वरूप म्हण आनी.

१९. तांत कांय वचून लागना आनी,
कांय येवन ताकाय लागना.

२०. एक एका खातीर चिंतन करप्याक,
एकीच म्हण समजून घेवपी खबर ही.

२१. मूर्खांक, तांकां,
काय समजून घेवपाक शक्य ना.

२२. एक समान दुसरे न्हय आशिल्यांत,
जीव स्वरूप समान रूपान आसा.

२३. एकांतूय संबंद ना आसून
संवसार ताणे रचला.

२४. जेन्ना तिन्नीय एकांत मेळ्ता तेन्ना
संवसाराचें आस्तित्व ना जाता.

कर्म :

२५. एक म्हण रचल्ले ह्या संवसारांत
तीन विंगड विगंड तरांचीं कर्मां आसात.

२६. गुणेस्त कर्म, पातक कर्म आनी
गुणेस्त आनी पातक दोनीय मिश्रणाचें कर्म.

२७. तीनीय तरांचें कर्म पळयल्यार
जीवाक तीनींतय वांदला म्हण समजून घे.

२८. एक भांगराची सांखळ, दुसरी
लोखणाची - हो मत भेद तांत आसा.

२९. दोनीचीय सांखळ काडून केल्ली आसा मिश्रण तें
कर्म जाणे आमकां नशीबा कडे वांदलां.

३०. व्रह्मवादी प्रमाणे रचणार सावन मूस मूय पर्यंत
कर्मवंदनाक लागून आसात सर्वय म्हण समजून घे.

३१. विश्व रचप म्हळ्यार
कल्पकालाचे आखेर पर्यंत, प्रळय पर्यंत

३२. कर्मवंधनाचे पाशाक विरोध करप
व्रह्माक लेगीत सोंपें न्हय.

३३. दिकपालक तशें आपले आटय दिकांर
सांखळेंत घुपसून पळ्यात, केन्नाय.

३४. दुबळे आमी सगळेय
थोड्या काळाचे जीवजंतू आसात.

३५. गर्भपात्रांत भितर सरतात परतून भायर येतात
अशें कर्माचो खेळ खेळतात, तरेकवार.

जीवन गती :

३६. नरकाचे बायंतले जीवनाचे सर्वय
कश्टांची जाळी पयस गेल्ली, उपरांत तथा

३७. हृदयाचें काम सर्वय श्रेश्ठ आसा तेन्ना
मनीशा लोकांत जल्म मेळतलो.

३८. आनी सत्कर्म करन जे सर्गार गेले
ते सर्गार आनंद भोगतात.

३९. सत्कर्मा खातीर जे सर्गार गेले
आनी आनंदान थांगा लकलकतात.

४०. सुकृत सोंपता आनी लेगीत
मनाची परिपकवताय तीळ लेगीत बाकी ना जाता.

४१. तेन्ना धर्तरेर जल्म घेवन व्हड कश्टां पडून
दुःख भोगून मरून वतात, अहो !

४२. दुरितांत पडून घुसपून तोच
परत नरकां पडून कश्ट भोगता.

४३. देवलोकां सून येवन एक आत्मो
पृथ्वीर येवन भूसुर म्हण जल्म घेता.

४४. निश्ठूर कर्म जो करता तो मरणोपरांत
चाण्डाळ म्हण जल्म घेता, हांगाच.

४५. असुर हांगा देवरूपान जल्मतात
देव केन्नाय केन्नाय हांगा म्हयरूपान जल्म घेतात.

४६. बोकड मरन हती रूपान जल्मता,
हती मरन बोकड म्हण जल्मता.

४७. कोल्लो मरन मनीश स्पान जल्मता
वायल मनीश केन्ना केन्ना मरन कोल्लो म्हण जल्मता.
४८. क्रूर राय मरणोपरांत
चिकलांतले कीडें मकोडे म्हण जल्मततले.
४९. मूस मरन माजर जातले
देवाली हीच लीला आसा.
५०. अशें श्रेश्ठ आनी नीच कर्म करपी जीव
भूयंचेर कर्म करन फल जडता.
५१. हें अनंत कर्म सर्वय प्राणी
धर्तरीर सून शक्ती पावन करतात.
५२. तशें करन फल पावन मरन गेल्ले उपरांत
दुसरे लोकांत परत परत भोवन,
५३. वचून बसून भोगतात
आपण आपण केल्लें कर्माचे फल.
५४. तें भोगून सोपंतर जायते दीस उपरांत
तुरंत कर्म करन परिणाम जडतात.
५५. आपले आपले घराक सून हाडलेल्या
धनान आमी सगळेय दुसरे जाग्यार,
५६. धूम धाम करन जेवण खाण दीवन
विलासी जीवन करतात.

भारताचें म्हत्व :

५७. कर्माचें बीं शेतांत किल्लूक घालन
पीक कडची ही भूयं आमची मातृभूमी समजून घेयात.
५८. कर्मनाशाची सिद्धी वेगळे थळार
खयींच करूं येना अशें समजून घेयात.
५९. भक्तांचीय मोक्ष इत्सुकांचीय
शक्तिवंत सुखभोगी जीवांचीय
६०. इत्सा सर्वय पुराय करतल्ली
ही विश्वमाता आमची भूंय शिव शिवा !

६१. विश्वनाथाची मूल प्रकृतीच
प्रत्यक्ष रूपान झग झगता हांगा.

६२. धरतरीचे पालना खातीर
हांगा जायते अवतार घेवन आयलया.

६३. वेद आनी मुनीगण देखूनूच
सादर म्हणतात आनी हें मानतात.

६४. चौदाय लोकांत सगळ्यांत श्रेश्ठ
हेंच भूलोक आसा, हें खरेंच.

६५. लवण सागरा मदें सुशोभीत
हे जवूं द्वीप (Asia) लाख कोस मेरेन.

६६. सप्त द्वीपांत आसा तांत
चडान चड श्रेश्ठ म्हण हाजीची व्हडवीक गायतात.

६७. भूंय पदमाचे कर्णिका म्हण
म्हापर्वत हांगाच प्रत्यक्षांत आसा

६८. हांत णव भूखंड आसात मू
तांत श्रेश्ठ भारत हें.

६९. मानून घेवपी सर्वय म्हामुनी
हाका कर्मक्षेत्र म्हणतात सर्वदा.

७०. कर्माचें बीं तांत साकून
ख्रब किर्लेवन फुलता फलता व्रह्मलोकांत वास करप्यां खातीर,

७१. कर्माचें वियाळ सुकोवन उडकावन
सदा जल्मनाश हाडपा खातीर,

७२. भारत खंड सिवाय दुसरे खंयींच
भूंयेर हें शक्य न्हंय.

७३. इतली ही श्रेश्ठ भारत भूमी चण
हो प्रदेश म्हण आमी समजून घेवया.

कलिकालाचें म्हत्व :

७४. चार युगांत श्रेश्ठ युग आसा कलियुग
हांत मुक्ती मेळपाक.

७५. कृष्ण कृष्णा मुकुंदा जनार्दना
कृष्ण गोविन्द म्हण जपचे शिवाय
७६. दुसरें कांय ना आमकां संकीर्तनाक,
सदा सर्वदा जप करपाक,
७७. हें विचार करन दुसरे तेरा लोकाचेय
रावपी मनीश आनी,
७८. दुसरे स द्वीपवासी आनी
दुसरे आट खंडाचे लोकय,
७९. दुसरे तिनीय युगांचे मनीशय
मुक्ती प्राप्त करपक कठीन समजून.
८०. ह्या युगाचे म्हान आर्य देशाक
हात जोडून प्रणम करतात.
८१. हांगा येवन एक तणा रूपान जल्म घेवन
संवसाराचे जीवन यशस्वी करन सोडून दिवंचें.
८२. ही कार्यक्षमता प्राप्त करपाक आज लेगीत
हा ! म्हा भाग्य आमकां मेळे ना.
८३. भारतांत जल्मल्ले समस्त मनीशांकय
आनी कलीकूय नमस्कार.
८४. अशें व्हडवीक गायतात दुसरे सर्वय
तांत अजाप काय ना.

कसलो उणाव?

८५. काळ वेळ आज कलियुग जाला
आनी भारत आमचो देश.
८६. आमी सर्वय मनीश मू,
हें सग आमकां विचार करपाक जाय.
८७. हरिनाम वगउावन वसल्यात तुमी
तुमकां नरकाचे भय ना काय?
८८. तोण्डांत जीव ना तर जियेतले कशें
आमचो सर्वनाश जातलो कि ना?

८९. आरेरे ! आमी विचार करनाशिल्लें
जल्म विफल करन व्यर्थ बगडायतात.

मानव जल्म दुर्लभः

९०. कितलेशे जल्म त्रास भोगून
आमी मुकरणीन मनुष्य जल्म घेवन आयल्यात.

९१. कितले जल्म गू मूतान वगडायले आनी,
कितले जल्म जलांत नुकसान करन घेतलें?

९२. कितले जल्म रेवांत वगडायले,
कितले जल्म रूखा रूपान रावले?

९३. कितले जल्म मरण पावन जियेले,
कितले जल्म जनावर आनी जीव जंतू म्हण जियले?

९४. अशें त्रास भोगल्ले जायेत जल्म भोगून गेल्ले,
मनीश जल्मांत येवंचे फूडे.

९५. कितलेशें कठीनपणान आवयचे
गर्भाशयांत पावलो, हें मनांत धर.

९६. धा म्हयने आवयूचे गर्भाशयांत वगडायले,
धा वर्सा बालक म्हण वगडायलीं

९७. स्वयं जाण जायनाशिल्लें अहंकारी वृत्तींत
जीवन करता.

९८. कितले दिवस हें जीवन आसतलें
खरे रूपान आमी जाणात ना.

९९. उदकांतले बुडवुड्या समान
ह्या शरीराची सुंदरताय आमकां दिसता.

१००. जीवनाचे कठीन तापाग्रींत
स्वयं जीवन सुकून सरता.

१०१. अशें सगळें आसा तर मनीश
हरिनाम कीर्तन गायन करना म्र.

संवसाराचें वर्णन :

१०२. पदवी प्रतिश्ठे खातीर झगडतात,
आनी मान वगडावन जियेतात अनेक जन.

१०३. कोणतरी मदमत्सरांत वुडून आनी
बुद्‌दी वगडावन भोवंतात कोंण तरी.

१०४. सुंदर वायलांचे घराक वचून कोणतरी
कुंचिराम म्हण मांकडा सारके नांचून घेतात.

१०५. राज भवनांत सेवक म्हण कोणतरी
आपले संवंदी फटाश मारून भोवंतात कोणतरी.

१०६. देवळांकडे पूजा करन जियेवपाक
सांज पर्यन्त भटकतात भट गण.

१०७. आवय, वापूय आनी घरकान्न हांकां
जेवण खाण लेगीत दीनाशिल्लें जियेतात दुर्जन.

९०८. अग्नि साक्षी करन घराक हाडलेल्या घरकान्नीक
सपनांत लेगीत पळयनात कोणतरी.

१०९. सज्जन स्नेहान सल्लो दितात
तेन्ना दुस्मना सारके रागार जातले ते.

११०. मानादीकांळ देखल्यार कोणतरी
अनादर करून उलयतात तांकां.

१११. पळयात, म्हजे भाशणाचे बळार
हो संवसार टिकला, अशें म्हणता कोणंय एकलो.

११२. व्राह्मणपणाचे अहंकारा लागून आपलाक विसरून
व्रह्माक लेगीत मान देखनात कोणतरी.

११३. धन दौलताची आशा वाडोवपा खातीर
अग्निहोत्र आनी हेर करतात धनवंत.

११४. भांगार आनी नवरत्नां विकून
धन चड करतात कोणतरी.

११५. उन्माद लागल्ले हत्तीक विकून आनी
श्रेश्ठ धोड्यांचे व्यापारान

११६. हेंच ना पुरो जावन तारवां विकूनूय
धन कितलें जडतात देवा ! देवा !

११७. धना खातीर आशेदोशीपणान जायते
धूर्त नाश पावंतात अहो !

११८. दाम दुड्डू चड जावो खूब रीतीर
परंतु मनांक केन्नाय संतोश मेळचो ना.

११९. धा मेळे तर शेंची इत्सा जाली,
शें मेळे तर सास मेळची आशा

१२०. एक सास हातांत आयलोतर
मनांत धा सासाची इत्सा.

१२१. आशेचे दीग पासार मनीश
केन्नाथ आडमेळे नाशिल्लें चडून आसता.

१२२. दीन दुःखी येवन माग तर धनवंत
क्रूर मनीश कांय दीना.

१२३. मरचे वेळार न्हेसल्लें वस्त्र लेगीत
घेवन वचना मनीश परलोकांत.

१२४. पश्चात्ताप तीळ मात करनाशिल्लें
विश्वासघात मारतात जायते मनीश.

१२५. धनाचें आशादोशीपण चड जाता जाता
मनीश सत्याचें मार्ग सोडून उडकायता.

१२६. सत्य म्हणचेंच, ब्रह्म, ब्रह्मच सत्य
सज्जनाची ही कलपना सत्य आसा.

१२७. विद्ये खातीर काय गिन्यान ना आशिल्लें
स्वयं विद्वान म्हण वागतात कोणूय एक.

१२८. कुंकुमंचो गंद कळ नाशिल्लें
गाढव कुंकुमंचो भार घेवचे सारके !

१२९. कृष्ण कृष्णा ! चिंतन करन घेतल्यार,
सगळेय वसवसा खातीर हेंडतात.

राग्य :

३०. लेखून लेखून जीवीतकाल ऊणे जाता
धावंता धावंता चड जाता वसवस
३१. तिरुवोणम आयलें, विपू येवन गेली
तिरुवातिरा येतली जल्दी,
३२. कुंभ म्हयनांत म्हजे जल्म नक्षत्र येतलें
तें अश्वती नक्षत्र आसा.
३३. वृश्चिक म्हयन्यांत मरण दीस येतलो.
मागीर घराकडे आनी काय खाशल्लें जेवण खाण उरचीना.
३४. एक पूत जाओ ताका मागीर ताचे पूताक
पळोवन म्हजो जल्म सुफळ जातलो.
३५. रवंडाची थारावणी (lease deed) ज़मीन
परत सोडोवन घेवन वचें न्हय केन्नाय.
३६. अशें एक एक चिंतन मनांत येता कूच
मरून वतात मनीश, शिव ! शिव !
३७. इल्ले तिल्लें म्हळ्ळें कित्याक
मनीश हें सग चिंतन करन जियेवो म्हण.
३८. कर्माचें म्हत्व आनी फाटल्ले
जल्मांची विचित्रकायीय,
३९. काळ आज कळिकाळ जाला
आनी भारताची विशाल अरवंडताय,
४०. आनी हांगा जल्म घेतलो आनी
अनेक दीस व्यर्थ सोंपले,
४१. आयुप्याचें प्रमाण कांय ना,
आरोग्यची स्थीती वेगळी आसा.
४२. हें सर्वय चिंतन करन देवाचें
नांव सुमिरण करन पुरुपार्थ फलादीक करचें.
४३. भावीचें नरक भय सोडून घेवन
आयचे जीवीताची वारिकसाणीन चर्चा करचें.

१४४. वेळ कित्याक व्यर्थ नश्ट करून घेतात?
सगटय विष्णुलोकाक वचात.

१४५. आमी एकच वेळार सांगातान जल्म घेतात,
सांगातान मरनात, चिंतन करन घेयति.

१४६. मदें हाचे भितर आमी मेळतात
तेन्ना सर्त करप कित्याक ?

१४७. दाम दुड्डू कित्याक, पुरुपार्थ आसा
तेन्ना दाम दुड्डुवा खातीर गरज कित्याक?

१४८. दनपारांचे सूर्याचो प्रकाश आसा
तेन्ना काजल्याचो उजवाड कित्याक?

१४९. मनाचे प्रांगणांत कान्हा खेळत आसतना
पुत्र रूपान इतर वालकाची आवश्यकता काय?

१५०. मित्र आमचे आसात कितले? शिव ! शिव !
विष्णु भक्त आसात ना कि संवसारात?

१५१. लोकांत मायाचे खेळ दर्शून
मोगाळ बायलेचे माया खेळ विसरतले.

१५२. संवसाराची मौज मजा पळयतर.
आमकां जाणूक जाय कि आमचे घर हांगाच.

१५३. विश्वनाथ संवसाराचो नाथ,
आनी माता संवसाराची धात्री म्हण समजून घे.

१५४. ते आमचे जनक आनी जननी
आमची इत्सा आसू पर्यन्त आमकां राखतले.

१५५. भीग्व मागून मेळें अन्न आमचे कडे आसा,
खूब खावया, तेंच अमचे मुख्य काम.

नावांचे म्हत्व :

१५६. वंदन सोडून नाम-जप व्हड भक्तीन
आमकां करपाक जाय.

१५७. जिनां आसु पर्यंत जीवाचें ध्येय पावपाक
हांच एक उपाय आसा.

१५८. दोळ्याक वा मनाक दिसचे समस्त चराचराक
लज सोडून नमन करन व्हडवीक गावपाक जाय.
१५९. हरिसुमिरणाचे आनंदांत बुडून
घोर कश्ट भोगून आसून,
१६०. सज्जनाक दर्शन करचे वेळार
दंडवत नमस्कार करपाक जाय.
१६१. भक्तींत वुडून स्वयं विसरून
भक्तीचे मस्तींत उन्मादान नाचपाक जाय.
१६२. अशें धर्तरीर भोवंचे वेळार
प्रारब्ध सर्वय आमकां सोडून वतलें.
१६३. अशें अदृश्य कर्म पुराय
जाले उपरांत हें शरीर एक जाग्यार पडतलें.
१६४. उत्सुकतायेन तें ब्रह्म रूप पळवन
आत्मो एक दम घोड्या धावां सारके धावंता.
१६५. बंदन सोडून प्रयाण करचे वेळार
योग्य जालो ना म्हण.
१६६. मनांत दुःख करचें न्हय,
नाम स्मरणाचे अद्भूत म्हत्व सर्वय आयकात.
१६७. जातींत अच्छूत अथवा
वेद वादी म्हाबाह्मण आसो,
१६८. मोनो मौनी जीभ ना आसून
जल्मल्लो मौनी मनीश बगर शेप मनीश
१६९. अनेक देव नावांत एक नंव
दिसाक एक फांता उगडास केलो तर
१७०. सुस्त बसला त्या वेळार अथवा
सप्नांत स्वयं नेणतां,
१७१. वेगळे म्हण परिहास रूपान
अथवा दुसर्या खातीर आसो,
१७२. आमी खयींय जाग्यार आसोत
आपले जिवेन हरिनाम उच्चारण केलें तर

१७३. हाचे भायर, आपले कानांनी प्रतिदिन
नाम जप आयकलें तर
१७४. तुमकां तुमचो जल्म सफळ जातलो
ब्रह्म सायुज्य पदवीथ मेळतली, खरोच.
१७५. श्रीधराचार्यानी म्हळां हें
वादरायणानी ताणीय हेच म्हळां.
१७६. गीताय हीच खबर दिता,
वेदय हीच खबर दिता.
१७७. आनंदान समस्त लोक नाम जप करता तर
सर्व मानवय ब्रह्म सायुज्य प्राप्त करतले.
१७८. बुद्दी आसा तर आमकां हेंच पुरो,
नाम जपाचें म्हत्व समजून घेंवू.
१७९. चुकून जावो, न्हय जावो ईश्वराची दया
म्हजेर सदा आसतली.

ज्ञानप्पाना समाप्त

# रघुनाथ कृष्ण राव (आर. के. राव)



जल्म : ४ जुलाई १९१४ वर्सा

जल्म थळ : तृप्पूणित्तुरा, कोची, केरळ

शिक्षणी पदव्यो :

१. राष्टभाषा विशारद (दक्षिण भारत हिन्दी प्रचार सभा, मद्रास)

२. एम.ए. (हिन्दी), मद्रास विश्वविद्यालय, मद्रास

३. वावर धंदे

अ) १९३९ - १९४७ - हिन्दी प्रचारक, मट्टांचेरी, कोची

आ) १९४७ - १९७५ - हिन्दी प्रोफसर, संत आलबर्टस, काळेज, एरणाकुलम, केरळ

इ) हिन्दी प्रोफसर, विद्यानिकेतन, पारलल कोलज, एरणाकुळम : १९७७ - १९८७

मलयाळम साहित्याचे नामनेचे कादंबरीकार तकष़ी शिबशंकर पिळ्ळै, हांची, कादंबरी 'रण्डिडङ्ङ्षी' हाचें 'दोन दंङ्गाळी भात' नावान भाशान्तर केलां. हाका केन्द्र साहिय अकादमीचो पुरस्कार प्रात्पकेला. नामनेचे कैरळी कथा साहित्यकार वैकम मुहम्मद बशीर हांचे वरपावळीचे कोंकणी भाशांतर करन गोयचे म्हयनाळे 'जाग' पत्रिकेर क्रमान उजवाडायता.

कोकणीचे प्रचारा रवातीर 'कोंकणी भाषा संस्थान' स्थापन करन 'कोंकणी स्वंय शिक्षक' (हिन्दी, मलयाळम आनी अंग्रेजी, अशें तीन माध्यमांत प्रकाशन केल्यांत. कोंकणी व्याकरण, कोंकणी उतरावळ, भुरग्यांक कोंकणी वाचून, बर्‌वन शिकपा कोंकणी प्रायमर ही पुस्तकांय छापून उजवाडा हाडल्यांत. हालीच तमीळ कवी तिरुव़ळ्ळुवर, हांचे 'तिरुक्कुरळ' काव्याचें गद्य अणकार करन प्रकाशन केला.

सुटके झुजारी, म्हण केरळ राज्या चें आनी भारत सरकाराचें 'स्वतंत्रता सैनिक सम्मान पेन्शन' घेता. ताम्रपत्रय फावो केलां.